ते स्वदेशीचे पाखो घेताले स्वदेशी फकत अर्थीक मळावयली न्हय, संस्कृतायेच्या मळावयले स्वदेशीक ते खूब म्हत्वाची मानताले. आपणाली भास, आपणाली संस्कृताय हे फाटभुयेचेरूच देश जिवो जावंक पावतलो अशें ते म्हणटाले. हे कार्यावळीक ते 'रेनेसांस' ची - पुनरूत्थानाची - कार्यावळ लेखताले. स्वराज्याचे दिकेतलें हें पयलें पावल अशें ते मानताले.

हे दिकेतलो तांगेलो एक वावर नदरेंत भरता तो शान्तिनिकेतनांत तांणी केल्ल्या शिक्षणाच्या मळावयलो. शान्तिनिकेतना खातीर वेंचून काडिल्ली सुवात एका सुक्या सड्या सारकी आशिल्ली. रवीन्द्रनाथांनी थंय तरां तरांचे रूख रोवन पयलीं. ती पांचवीचार केली.

उपरांत थंय एक शाळा सुरू केली. तांच्या पदरांत तांगेलो खाशेलो अणभव आशिल्लो. खासा ते खंयचेच शाळेंत शिकूंक नाशिल्ले. आयचे भाशेंत सांगचें जाल्यार ते एक 'ड्रॉप-आउट' आशिल्ले तांकां आपणाल्या भुरग्यांक चालंत शाळेंत घालपाचीं नाशिल्लीं. मुळांत शान्तिनिकेतनांतली शाळा तांगेल्या भुरग्यां खातीर तांणी सुरू केल्ली तांचें एक मत्त जाल्लें. ते म्हणटाले, भुरग्यांक कांयच 'शिकोवपा'ची गरज ना. तीं आपूण जावन सगळें शिकतात. जल्माक येत सावन तीं एका सारकीं कितें ना कितें शिकत आसतात तांगेल्या ह्या शिक्षणांत आमी शिक्षणाच्या नांवान फकत आडखळीच हाडटात. कसलीच आडखळ नाशिल्ल्या मेकळ्या वातावरणांत तांकां दवरूंक जाय. ह्या वातावरणांतल्यान तीं आपणाक जाय तें शिकतलीं. ते विचारताले, भुरग्यांक उमथीं पडूक कोण शिकयता ? उबीं रावंक, चलूंक धांवूक कोण शिकयता ? आवय बापूय, काय तांचे तींच हें सगळें शिकतात ? तीं उलोवंक कशीं शिकतात ? बरें, उलयतात तीं उलयतात, व्याकरणाक धरून कशीं उलयतात ? भास आनी व्याकरण तांकां कोण शिकयता ? तुमी, आवय-बापूय काय मास्तर ? सगळेंच तीं आपूण जावन शिकतात जाल्यार ताणी जें शिकचें अशें तुमकां दिसता तें ताणी आपूण जावन शिक्चें हे तरेचें वातावरण तांचे भोंवतणी उबें करात. तीं 'तांकां जाय तें' आपूण जावन शिकतलीं.

शान्तिनिकेतनांतल्या शिक्षणाचें बुन्यादी तत्व भुरग्यानी 'ताकां जाय तें शिकचें' हें आशिल्लें.

चालंत शाळानीं परिक्षा नांवाची एक अन्नाडी चाल चलत आयल्या. हे परिक्षेक लागून भुरग्यां भुरग्यां भितर सर्त सुरू जाता. सर्तीतल्यान ताच्यात दुस्वास मत्सरा

सारके अवगूण जल्माक येतात भुरग्याक सर्ती पसून पयस दवरूक जाय, अशें चिंतून ताणी आपणाले शाळेंतले परिक्षेकूच 'फेल' करून भायर घाल्ली चालत शिक्षणांत बुद्दिचेरूच चड भर दिल्लो आसता. रवीन्द्रनाथ म्हणटाले, बुद्दी इतलेंच शिक्षणांत काळजाकूय म्हत्व दिवंक जाय. भुरग्याची संतुलीत वाड तेन्नाच जावक पावतली ताचें जिवीत शिरवंत जातलें, ताच्यांत संस्कारिताय येतली. खरें फट, बरें वायट, निजाचें आनी अडेचें हांतलो फरक भुरग्यांक आपशींच समजूंक लागतलो आनी तांचे तांकांच आपणालो स्वभाव आनी स्वधर्म कळटलो चालत शिक्षणांत वाचप बरोवप आनी मेजप हाचेरच भर दिल्लो आसता. रवीन्द्रनाथ म्हणटाले, हाचे भायर तकली वापरप, हातान वावर करप हाचीय भर पडूक जाय म्हणटकूच भुरग्याचें जिवीत भितरल्यान गिरेस्त जातलें.

सुरवातेक आपणाल्या आनी आपणाल्या सांगात्यांच्या भुरग्याक घेवन तांणी प्रयोग सुरू केलो. गंधांचें, रंगांचें, सुरांचें, नाचांचें वातावरण तांणी पयलींच थय उबें केल्लें. भुंरगीं ह्या वातावरणांतल्यान तांका जाय तें घेतालीं. रवीन्द्रनाथ ताका काणयो सांगपाक लागले. भुरग्यांकडेन समरस जातकूच ताणी ल्हवू ल्हवू तांचे खातीर एक पाठ्यक्रम तयार केलो. शंबरां वयर भुरगीं येवपाक लागलीं. तेन्ना चल्यां वांगडा चलयोय येवपाक लागल्यो. ते मुस्तींत चल्यांक आनी चलयांक एकठाय शिकोवपाची चाल नाशिल्ली. रवीन्द्रनाथानी ती मोडिल्ली. ते मुस्तींतल्या संदर्भांत तांगेलें हें एक क्रान्तिकारी पावल आशिल्लें.

शान्तिनिकेतनातलें वातावरण पुर्विल्ले मुस्तींतल्या आश्रमां सारकें आशिल्लें भुरग्याचेर कसलेंच बंधन नाशिल्लें भुरग्याक कितेंच पाठ करचें पडनाशिल्लें. भुरग्यांची परिक्षा कोण घेनाशिल्ले. शिक्षकाचो आनी भुरग्यांचो संबंद गुरू शिश्या सारको - इश्टागतिचो - आशिल्लो. भुरगीं मेकळ्या वातावरणात उरूक जाय, तीं आत्म-निर्भर जावक जाय, तांचें चारित्र्य घट जावक जाय, ताच्या गुणांक पोसवण मेळत रावक जाय हाची जतनाय घेवन रवीन्द्रनाथांनी शिक्षणाचो हो प्रयोग चलयल्लो

तांच्या सगळ्या वावरात तांचो सगळ्यांत चड वेळ ह्या एका प्रयोगान घेतला

ताणी सुरू केल्ली मुदलातली ही मुळावी शाळा ल्हवू ल्हवू ताणी हायस्कुलाच्या पांवड्यार व्हेली उपरात एक दीस ती 'विश्व भारती' ह्या नावाची एक युनिव्हर्सिटी जाली संवसारातले व्हडले व्हडले तज्ज्ञ थंय शिकोवपाक येवन रावले तशे

सवसारातल्या कितल्याशा देशातले भुरगे शिकपा खातीर थंय येवपाक लागले. व्हडले व्हडले बरोवपी, व्हडले व्हडले विचारवत शिकोवपाक आनी शिकपाक शान्तिनिकेतनांत येवन रावतकूच अख्खो सवसार जसो कितें एका घोंटेरांत हांगा येवन रावला - 'यत्र विश्वम भवति एक नीडम्' अशें शें कितें दिसपाक लागलें.

आयजूय शान्तिनिकेतनांत हें वातावरण अणभवूंक मेळटा.

रूसो, पेस्टालोझी, फ्रॉबेल, ड्युई, मोंतेस्सोरी, टॉलस्टॉय हांच्याच तोलामोलाचे एक शिक्षणतज्ज्ञ ह्या रुपांत संवसार आयज रवीन्द्रनाथाक वळखुपाक लागला.

जें शिक्षण भुरग्यांक रडयता तें मुळाथावन हुमटावन उडोवंक जाय ह्या मत्ताचे ते आशिल्ले.

शान्तिनिकेतनाक तेंकून तांणी श्रीनिकेतन नांवाची आनीक एक संस्था चलयली. थंय ताणी एक कृषि-विदयालय सुरू केलें. शिक्षणाचो मक्तो फकत धवाड्यांचो न्हय, गावांतल्या गरीब दुबळ्या शेतकामत्यांकूय तें मेळूंक जाय - तेंवूय तांकां धवाडे करपी न्हय, तर बऱ्यांतले बरे शेतकामती, बऱ्यांतले बरे कारागीर करपी आसूंक जाय अशें तांचें मत्त जाल्लें. ते धवाड्यांच्या भुरग्याकूय हें शिक्षण घेवंक लायताले.

ताकां धवाडे आनी भौस हांचे मदलो फरक मुदलांतल्यानूच ना करपाचो आशिल्लो.

देशाचो सगळ्याच आंगांनी विकास घडोवन हाडपा खातीर वावरत आयिल्ले. रवीन्द्रनाथ देशाचे सुटकेचे चळवळींत पडले बगर कशे रावीत आशिल्ले ? १८९८ वर्सा सरकारान 'सेडीशन ऍक्ट' पास केला. त्या वेळार ताचे आड जो खणखणीत आवाज देशात वयर सरला तो रवीन्द्रनाथाचोच आशिल्लो. कलकत्यांतल्या टाऊन हॉलात ताणी हाचेर जें आंगार कांटो फुलोवपी उलोवप केल्लें तें 'कंठरोध' ह्या नावान छापुनूय आयिल्लें. लोकमान्य टिळकांक ख्यास्त जाल्या आनी तांकां धरून सरकारान भितर घाल्यात, तेन्नाय तांणी खर उतरांनी सरकाराचो निशेध केल्लो. ढाक्यात भरिल्ल्या प्रान्तीक समितिच्या एका अधिवेशनांत तांणी सरकारा फाटल्यान राविल्ल्या जमीनदाराक 'देशद्रोही' म्हणून फैलार घेतिल्लें लॉर्ड कर्झनान बगालची फाळणी केल्या त्या वेळार जी चळवळ जाल्या तातूत ते सगळ्यांत मुखार आशिल्ले. स्वदेशी आदोलनांतूय ते पोटतिडकीन पडिल्ले आनी आघाडेर राविल्ले जालियावाला बागेंत हत्याकाड जालें. तेन्नाय ताचे आड जो सगळ्यांत चड खणखणीत आवाज देशांत उठलो तो रवीन्द्रनाथांचोच आशिल्लो. तांणी आपणाक मेळिल्ली 'सर' ही

पदवीय त्या वेळार सरकाराक निशेध म्हूण परती केल्ली. तांगेलो राष्ट्रवाद खंयच्याय व्हड राष्ट्रवादद्या इतलो ऊग्र आशिल्लो. तांकां विदेशी राजवटिची तिडक आशिल्ली. तितलीच विदेशी संस्कृतायेची कुड्डी केलदावणी करतल्या देशी सायबाचीय आशिल्ली. ते देशभक्तांतले एक व्हड देशभक्त आशिल्ले. म्हण्णूच तर जवाहरलाल, सुभाषबाबू सारकेले देशभक्त तांच्या पांयाक हात लायताले.

एक खरें. स्वदेशी आंदोलनांत ते सगळ्यां मुखार आशिल्ले आसतनाय अवचीत एक दीस तांणी तांतुंतल्यान आंग काडून घेतलें. हे चळवळिची आतां अवनत जाल्या, हातूंत चारित्र्याक आतां व्हडलिशी सुवात उरूंक ना, ती दुराचाराक लेगीत आलाशिरो दिवपाक लागल्या अशें म्हळें आनी झुजामळ सोडून ते उठून शान्तिनिकेतनांत गेले. आपणाले लोकप्रियतेक बादा येतली हो भंय तांकां आफडूंक पावलो ना. टिका जातली म्हणपाची खबर आसुनूय तांणी टिकेची पर्वा केली ना. तांकां हे करणेचें पानवळ भोगचें पडलां. तांची खूब निंदा जाल्या. 'नोबेल इनाम मेळिल्ल्यान हाका आतां राष्ट्रवाद पुटवना, हो आतां इंग्रजांचो जाला, हाणे जनगणमन ह्या राष्ट्रगितांत ब्रिटीश वायसरॉयाक 'भारत भाग्य विधाता' म्हळा.' हे तरेची धरबांद नाशिल्लीय निंदा जाल्या. तांकां ती आयकुची पडल्या. सगळी निंदा तांणी सोंसून घेतल्या. आपणांत ह्या आंदोलनाक नवी दिका दाखोवपाची तांक ना, पुणून लोकप्रियताय भंगतली ह्या भयान आपूण आपणालो राष्ट्रवाद भश्टूंक दिवचों ना', अशें थारावन ते फाटीं सरल्यात. एका उतरान लेगीत तांणी कोणाचो प्रतिवाद करूंक ना. गांधींच्या हातांत स्वराज्याचें आंदोलन गेलां त्यावेळार तांच्यांनी तातूत पडूं येतालें. पडचेशें खूब फावटीं तांका दिशिल्लें. पुणून दोन गजालींक लागून ते पडले नात - एक, आंदोलन आतां खंयचे खंय पावपाचो भय उरूंक नाशिल्लो, तें सुरक्षीत हातांत गेल्लें. आनी दुसरी, तांची उतार पिराय जाल्ली. धके चपाटे सोंसपाची ताक कुडींत उरूंक नाशिल्ली. पुणून गांधींचे चळवळिचेर ते बारीक लक्ष दिवन रावल्यात. गांधींक 'महात्मा' ही पदवी तांणींच दिल्या. केन्ना केन्ना गाधींच्या हातान अतिताय जाल्या तेन्ना तांचो कान पिळपाक ते अनमननासतना मुखार सरल्यात. ग़ाधी ताका हे खातीर 'द ग्रेट सेंटिनेल' म्हणटाले आनी तांकां ते खूब मानताले

जनगणमन गितातलो भारत - भाग्य - विधातो ब्रिटीश वायसरॉय आशिल्लो जाल्यार सुभाषबाबू आपणाल्या आझाद हिन्द सेनेंत ह्या गिताक राष्ट्रगिताचो भोवमान दिवचेच नाशिल्ले.

रवीन्द्रनाथ एक व्हड देशभक्तूच आशिल्ले. राष्ट्रवाद हो राष्ट्रपुजाधर्म जाता तेन्ना तो मनीसघाणो जाता अशें तांचें मत्त आशिल्लें. तांणी ह्या विशयाचेर किंतालिशीं उलोवपां केल्लीं. ताताली कांय 'नॅशनलिझम' ह्या तांगेल्या पुस्तकांत आयल्यांत.

'घरे बाहिरे' ही तांगेली एक खुबूच सुंदर नवलकथा. हे नवलकथेंतूय ताची चर्चा आयल्या.

(४)

रवीन्द्रनाथांच्या व्यक्तित्वांतलें सगळ्यांत चड ओडलायणें आंग, म्हजे नदरेन, तांच्यांतल्या 'साधका' चें आशिल्लें. ते एक 'साक्षात्कारी' साधक आशिल्ले. 'त्या' परम तत्वाचो स्पर्श तांच्या काळजाक जाल्लो. 'आमि जेनेछि ताहारे' अशें आत्मविस्वासान ते म्हणूंक पाविल्ले. ते 'ताका' वळखताले, ना जाल्यार तांचे लिखणेंतल्यान 'गीतांजली' येवंकूच पावची नाशिल्ली. तसो 'शान्तिनिकेतना' सारको ग्रंथय ते बरोवंक पावचे नाशिल्ले. शान्तिनिकेतनांत बुधवारा बुधवारा 'उपासना' चलताली, ते उपरांत ते एक ल्हानशें प्रवचन करताले. ह्या प्रवचनांचे दोन खंड 'शांन्तिनिकेतन' ह्या नांवान उजवाडा आयल्यात. अध्यात्मीक विचारांची एक व्हडली खण ही ह्या 'शान्तिनिकेतन' ग्रंथांतलीं प्रवचनां वेंचून तांणींच तांकां इंग्रजी रूप दिल्लें. आनी 'साधना' ह्या नांवान तें उजवाडा हाडिल्लें. (हाचो कोंकणी अणकार साहित्य अकादेमीन उजवाडा हाडला)

रवीन्द्रनाथांचो जल्म ज्या घराब्यांत जाल्लो त्या घराब्यांत सदां धर्माच्योच खबरी चलताल्यो. रवीन्द्रनाथांचो बापूय देवेन्द्रनाथ सभावानूच धर्मीक आशिल्ले. अध्यात्मीक बडिचे आशिल्ले. ब्रह्म समाज सुरू करप्यां मजगतचेच ते एक आशिल्ले. तांगेले अध्यात्मिकतायेचो धेंक येदो आशिल्लो की लोक तांकां 'महर्षी' ह्या नांवान पाचारूंक लागिल्ले. उपनिषदांचें वाचन मनन ह्या घराब्यांत सदांच चलतालें. ह्या वातावरणाचो खोल परिणाम रवीन्द्रनाथांचेर जाल्लो. 'हें सगळें म्हजें दायज. तें पचोवन हांवें ताचे मुखार वचूंक जाय' ही जाणवीक तांकां ल्हानपणा सावन आशिल्ली. हो घराबो श्रीमंत आसलो तरूय - द्वारकानाथांचो एक आडवाद सोडल्यार - सगळे 'सादें'च जिवीत सारताले 'स्टँडर्ड ऑफ लिविंगा' परस 'क्वालिटी ऑफ लाइफ' चड म्हत्वाची अशें महर्षी म्हणीत आयिल्ले. ते हेर खंयचेय गजाली परत संस्कारितेक चड म्हत्व दिताले. मनीस जसो जसो जाणटो जायत

वता तसो तसो तो उदार जायत वचूक जाय, दिशीं दिशीं नमळ जायत वचूक जाय अशें ते सांगीत आयिल्ले. ह्याच संस्कारांत रवीन्द्रनाथांची वाड जाल्ली. ह्याच संस्कारांत तांणी आपणालो धर्म केळोवन काडिल्लो. आपणाल्या धर्माक तांणी, 'मानुषेर धर्म' - रिलिजन ऑफ मेन' हें नांव दिल्लें. मनशांतलें मनीसपण जागोवंक जाय, ताका 'तूं मनीस म्हूण व्हड' म्हूण सांगूंक जाय, ताच्या मनीसपणाक बादा हाडपी ताच्यांतले अवगूण पयस करूंक जाय - हेच एके दिकेन रवीन्द्रनाथाली साहित्य सेवा, तागेलें संगीत, तांगेले शिक्षणाचे प्रयोग, तांगेली समाजसेवा, तागेलें राजकर्ण, सगळें चलत राविल्लें. मनीस हेंच सत, मनशापरस व्हड दुसरें कितेंच ना अशें ते म्हणटाले. रवीन्द्रनाथांचो देव मनशाल्या काळजांत रावतालो म्हूण तागेली देवाची भक्ती मनशाचे सेवेंत रुपकारीत जाल्ली.

भजन-पुजन-तपन-आराधना करतल्यांक सगळ्यांक ते विचारताले, 'काळखांत दोळे धांपून कोणाची पुजा करतात तुमी ? देवाची ? दोळे उक्ते करून पळेयात, देव देवळांत ना. मागीर, खंय आसा ? शेत नांगरता त्या शेतकामत्याचे खोपींत वचून तो बसला. जंय खडी फोडून लोक रस्ते बांदतात ताचे मजगतीं रावन तो रस्ते बांदता. तो वोतांत पावसांत बाराय म्हयने वावर करीत आसता. ताचे हात धुल्लान भरल्यात. तुमकां देव जाय आसत जाल्यार ह्या कश्ट करपी, काम करपी लोकां मजगतीं. रावन काम करात हें भजन-पुजन तुमी कित्या खातीर चलयलां ? मुक्ती मेळची म्हूण ? सभाग्यानो, 'मुक्ति कोथा आछे' जाणे येदोय व्हड हो संवसार रचला तोच खासा आपखोशयेन आपणे रचिल्ल्या संवसाराकडेन आपणाक बांदून घेवन रावला. तुमकां देवाची पुजा करपाची आसा मू ? मागीर सोडून दियात तें ध्यांन भिरकावन मारात तीं फुलां. लोकां वांगडा काम करूंक लागात. काम करतां करतां तुमचीं वस्त्रा झिरझिरून वचूंक जाय तुमचें आंग धुल्लान भरूक जाय स्त्रम करतल्यां वागडा काम करतां करतां तुमचें आंग हुमेन थपथपतलें तेन्नाच तुमी देवाची खरी पुजा करूंक पावतले. तुर्ताक तुमी जें चलयलां तें सगळें फटींगपण, सगळें धोंग.

रवींद्रनाथ सैमाचे भक्त आशिल्ले, सैमाक एक आकार ना, तें आकारा पेले कडलें, म्हूण ते निराकाराचे भक्त आशिल्ले - सगळें खरें पुणून ते हवेंत उडपी नाशिल्ले देव ताचे मुखार साकार रुपात येवन उबो रावतालो तेन्ना तो मनशाचेंच रूप घेवन येतालो मनशाची सेवा हीच देवाची सेवा अशें ते म्हणटाले रवीन्द्रनाथाक

हांवें 'साक्षात्कारी' म्हळ्यात ते ह्या अर्थान. भारतीय अध्यात्माक ताणी एक नवें परिमाण जोडून दिलां. श्री अरविंदाच्या आनी महात्मा गांधींच्या अध्यात्मीक मळा वयल्या योगदाना इतलेंच रवीन्द्रनाथांचें अध्यात्मीक योगदान मोलाचें.

तात्पर्य -

रवीन्द्रनाथ व्हड साहित्यकार आशिल्ले. व्हड संगीतकार आशिल्ले. व्हड चित्रकार आशिल्ले. व्हड शिक्षणतज्ज्ञ आशिल्ले. व्हड समाज सेवक आशिल्ले. व्हड देशभक्त आशिल्ले आर्विल्ले मुस्तींतले ते एक विशाल राष्ट्रपुरूस आशिल्ले.

सगळ्यांक घडयता आसतना देव पंचमहाभुतांचो आधार घेवन घडयता. रवीन्द्रनाथांक घडयतना ताणे दुसऱ्योच धातू वापरिल्ल्यो आसूंक जाय.

(५)

ह्या पुस्तकांत रवीन्द्रनांथाच्यो आठ कविता आयल्यात. आठूय तांगेल्या 'कथा' नांवाच्या झेल्यांतल्यो. इंग्रजींत असल्या कवितांक 'नॅरॅटिव्ह पोयेम्स' ह्या नांवान जाणकार वळखतात. असल्या कवितानी एक एक कथा येता, ही कथा मागीर चित्राचें रूप घेता आनीं हें चित्र निमाणे नृत्य-नाट्याच्या रुपान आमचे मुखार उबें रावता रवीन्द्रनाथ उपनिषदात आपणालें दायज सोंदूंक गेल्ले तशे देशाचे संस्कृतायेच्या इतिहासांतूय तें सोदपाक लागिल्ले. तांकां बौद्धांच्या, वैष्णवांच्या, शिखांच्या, मराठ्यांच्या दायजांत. काळीज हालोवपी काय कथा मेळ्ळ्यो. संस्कार घेवपाचे पिरायें वयल्या भुरग्या खातीर ताणी त्यो कवितेच्या रुपान तांचे मुखार दवरल्यो. असल्यो बावीस कविता 'कथा' ह्या तागेल्या झेल्यांत आयल्यात तातल्या फकत आठूच कविताक बाकीबाब कोंकणी रूप दिवंक पावले. ह्या कोंकणी अणकारा संबंदान मुजरत सागपा सारकें म्हळ्यार रवीन्द्रनाथानी ज्या छंदात त्यो बरयल्ल्यो त्याच छदात बाकीबाबांनी त्यो कोंकणींत हाडल्यात.

कोंकणी सरस्पत ह्या कविताक लागून खूब गिरेस्त जाल्या आमी बाकीबाबांचे उपकार आठोवंक जाय.

**रवीन्द्र केळेकार**

प्रियोळ

८-७-९६

(बाकीबाब पुण्यतीथ)

# श्रीमती

बिंबिसार राय
नाकशी एक घेवन गेलो
नमुन बुद्धा पांय
लावन पुजे दारचे वनीं
बांदी तिचेर बावन-खणी
भोव अपरूप पाशाणा-स्तूप
शिल्पश्रिये-साय

सांजच्या वेळार न्हावन करून
राया बायल चलयो
गुंथुन सोबित फुल्ल फुलां
भांगरा-ताटलेंत स्तुपामुळां
आपल्या हातान लायती वाती
कनक-दिवे-दिवल्यो

बापाय फाटल्यान
अजातशत्रून
आसन जेन्ना घेतलें
ताच्या धर्मा-रगत काडुन
राज्य नगर धुलें झाडुन
होमा-उजे फुलोवन तातूंत
बौद्ध-शास्त्र लासलें

अजातशत्रून नगरिंपुरीं
घालूंक लायलें दंवणें
"सोडुन वेद, बामण, राय
हेरां पुजा जाल्ले ठांय
करतल्याची तकलि तुटुन
जातलें पुजे-पारणें."

तेदिस शरद-दीस सोंपत्यार
श्रीमती नांवा दाशी
न्हावन पुण्यशितळ जळीं
घेवन फुलां-दिव्यां थाळी
रावली राया-आवय म्हऱ्यां
मौनशी एकांशी

धसको घेवन राणयेन म्हळें,
"राजान केल्या मना,
पुजा हांगा स्तुपासरीं
केल्यार तीच जातली सुरी
धाडित वना, दीत सुळार
कशें तुका कळणा !"

तशीच गेली थंड चालीं
राणी-अमिते घरा
मुखार घेवन हारसो बेस
आसलि बांदित लांब केंस
सायासान रेखुन भांगीं

भरित कुकुम केंसरा

पळोवन तिका भंगली रेग
भेरेवन गेलो हात
राणयेन म्हळें, "सामकें पिशें
धाडस तुजें जिवार ये-शें
कडसर, सरले पुजे दीस
जातलो मात घात"

जनेल करून उकतें घेत
सरतीं किर्णां चार
कुंवर शुक्ला आसली पडुन
वाचित काव्य भान हरुन
पांयजणांनी आंग काडुन
मोखी कुडी-दार

पळेनाफुडें श्रीमती ती
उडोवन पटी धांवली
वतना ल्हवुच सांगलें कानीं
"राजा-सांगणी धर गे ध्यानीं
फुक्या फुकट मरशी पापणी,
परत ह्याच पावलीं."

श्रीमती भोंवलि दारोनदार
घेवन पुजे-थाळी
"सवाशिणनों" घाली उलो
"येया, पुजे समय जालो."

आयकुन मगल्यां भरलो भालो
घाल्यो कोणें गाळी

सरत्या दिसा नगर-शेज्यार
पसय मंद सांडली
रस्ते किण्ण, काळोख बिण्ण
जायत गेलो बोवाळ क्षीण
पोन्नें राया-देवूळ घुमलें
आरति-घांट वाजली

निवळ काळखि शरद रात
मळबिं लक्ष वात
शींग वाजलें सिंहद्वारीं
कवडां लागलीं राया-घरीं
पुकार घाली पारेकारान
"सभा जाली शांत."

ह्याच वेळार पाऱ्यावेल्याक
दिसलो पयस कोण-सो
रायागेल्या विजन वनीं
स्तुपामुळा काळख्या खिणीं
उजळायता लावन दिवे
एक एक कोनसो

खड्गां घेवन धांवले वेगीं
नगरपाळ हावशी

पुसलें, “कोण दुर्मतिशी
मरण अशें मागून घेशी ?”
मधुर जाप : “श्रीमती हांव
बुद्ध-देवा दाशी.”



तेदिस फुल्ल धवें शिळेर
रगत जालें लेख
किरंव निरंव शरद रातीं
सगलो काळोख घालुन फाटीं
स्तुपा म्हत्यांत न्हिवली अखेर
कापरा-आरत एक.

– – –

# परिस मणी

वृंदावनी रुशि सनातन
    नित्य जप करीत
यमुनेचे आसलो देगेर
    तृप्त सुख भगीत

प्रणाम ताका करून कोणा
    बापुडवाण्या भटान
म्हळें, 'काकुळट करा प्रभू
    दिया कृपे-दान'

रुशीन म्हळें, 'खंयच्चे कोण ?
    कितें तुमचें नांव ?'
भटान म्हळें, 'पयस म्हजो
    वर्धमानांत गांव

दर्शनाक आयलां हांव
    जिवन म्हणटि म्हाका
दळिद्रान गांजुन गेलां
    म्हारग जालां ताका

क्रियाकर्म यज्ञयाग
    जायते केले जरी
किरवंटीक पानदुडुना
    बेश्टचो येगादारी

उदरगती खातिर केली
शिवा-आराधना
फांत्यापारार सांगलें ताणें
न्हिदांत आसताना

यमुनेचे चल देगेर
धर रुशिचे पांय
मासणाच्या दळिद्रांचेर
काडटलो उपाय'

आयकुन अशी भटा-कथा
रुशी जालो व्याकुळ
म्हळें ताणें 'हांवच्च खंत्र
एकदां आसलें विपूल'



इतल्यांत ताणें याद जावन
काकुळटेन म्हळें
‘ते थंय व्हडल्या वडासरीं
रेंव उस्तून पळे

प्रसंगाक पावत कोणा
अशें लेखुन मनीं
एका काळा पुरला हांवें
अद्‌भुतांचो मणी

ताका लागुन भावा तुका
नवल भेट्‌टलें
जल्मजुगा दैन्य तुजें
खिणात फिट्‌टलें’

बेगोबेग धांवन भटान
परिस उस्तिलो
काडलो तसो लोखणाचे
तावजे घसटिलो

तावज भांगरा जाल्लि पळोवन
जालो चकासूर
गुल्ल जालो गुंथित निळे
यमुनेचे सूर

न्हंये पेल्यान तांबशि पसय
अस्ता रवी गेल्लो

खोल्मांनी रडत भटमाम
    रुशी पायांर पडलो
'मागतां फकत मन तुमचें
    कितेंच नाका आनीक'
सांगून भटान व्हांवते न्हंयेंत
    मोखलें परिस-माणीक

# फुलाचें मोल

पडुन शिंयाच्यो राती
करपल्यो फुलांच्यो जाती
एकय कळी खंयच धरना

पणुन सुदासागेलें
एकाच कमळान तळें
सभराभरित, ना तुळणा

विकुंक तें व्हडा मोला
घेवन गेलो राजा-म्हाला
दरवठ्यांत थोडो भोव तिश्टलो

पांथस्थ म्हाजन एक
पळेत तें एकटक
फूल मोलावंक ताका उलयलो

'पळोवन तुगेल्या फुला
उचांबळ जीव जाला
कितल्या मोला सांग म्हाका दिशी?

सर्वत्र आनंद आज
नगरिं आयला बुद्धराज
व्हरची आमा भेट ताका फावशी'

माळ्यान म्हळें 'आज म्हाका
तुमचेकडल्यान चड नाका
मासोभर भांगर तुमी दिवचें'

म्हाजन 'हय' म्हणटासर
पावलो थंय राजेश्वर
ताकाय दिसलें बुद्धा-पुजे घेवंचें

राजान दिवंक काडले दस
म्हाजनान म्हळें 'दिले वीस'
सर्तिन दर चडत गेली गगना

सुदासान जोडून हात
म्हळें, 'क्षमा करा नाथ,
देवा दिवचे फूल हांव विकिना'

उलोवंन अशें गेलो राना
देवा बुद्धाच्या दर्शना
आसलो जंय तो पद्मासनिं राजमान्

प्रशांत प्रसन्न-मुख
वोंठार स्वानंद-सुख
करूणेची मुर्त दिव्य ज्योतिर्मान्

पळोवन असलें रूपधन
सुदास जालो सर्गदन
थयलें ताणें फूल ताचे चरणीं



बुद्‌धान ताका म्हणटां 'माग'
उलयलो तो येवन जाग
'दिया पांया-धुल्ला एक कणी'

# तुच्छ भेट

दोंय वशीन दोंगर-गाळी
सैमा नासली तुळणा

धांवताली भोंवरे विणित
धोगेत निळी यमुना

थंयच करी शिखां-गुरू
ग्रंथ सायबा-पाठ

संवसाराच्या बऱ्या
करून संवसाराक फाट

नामना ताची चान्नें कशी
पावलि देशोदेशीं

तळ्यार गोरवां तशे लोक
पळोवन ताका खोशी

एकदां आयलो रघनाथराय
पडलो ताच्या पांयां

हाडुन भेटे कांकणां दोन
वज्रजडित सोलयां

मांथ्यार हात दवरून गुरून
कुशळ ताचें पुसलें

शितळ ताच्या स्पर्शान रायाक

धन्य धन्य दिसलें

एक कांकण घेवन बोटार
गिरगिरायलें गुरून

किर्णांचे शिंवर सुटुन
उजवाड गेलो चिरून
गिरगिरतां कांकण गेलें
चक्र कशें न्हंयेंत



मातसो हांसुन जालो गुरू
मग्न वाचपा-पटयेंत

आकांतून मारलि रायान
कांकण सोदुंक उडी

सांज जायत आयलि तरी
कांकणान दिली दडी

धांपेत धांपेत ओल्यान रायान
गुरुक म्हळें, 'रावात

रोखडें कांकण हाडिन, फकत
सुवात तितलि सांगात'

'तेथंय' म्हणत गुरुन न्हंयेंत
दुसरें कांकण मोखलें

चकित रायान चेऱ्यार ताच्या
मंद हांशें देखलें.

- - -

# अभिसार

सन्याशी उपगुप्त
मथुरेच्या तटासरीं
आसलो न्हिदुन सुस्त.
पुसल्यो वाऱ्यान दिव्यां-वळी
सगल्या दारां लागली खिळी
स्त्रावण-मळब कुपान बळी
तारको जाल्यो लुप्त



कोणाचो सो पडलो ताचेर
पांयजणांचो पांय

पलकाभितर भंगुन झेम
दोळ्यां मधुर फांकलें खेम
फुलुन आंगार रोमान रोम
झडली न्हिदे-साय

चल्ली भेटे नगरनटी
जुवानपणीं फुट्टा
खांदार निळो लख्ख पदर
वाजता आंगार भांगर शिंगर
भयचकीत आपले भितर
थामली वासवदत्ता.



पदराआडच्या दिव्यान तिणें
तेळ्ळी ताची कान्ती
तरुण गोरो, हांसरो चेरो
दोळ्यां उजळ शितळ झरो
कपळ-पाटो नितळ बरो
चान्नें कशी शान्ती.



लजली बाय, तरीय तिणें
        लक्तुबायेन म्हळें,
'चुकलें हांव, भगस म्हाका
असली शेज सोबना तुका
आठय पार झरन सुखा,
म्हगेर येवन पळे.'

सन्याशान मायेन म्हळें,
    'अलगटांचे राणये !
न्हय गे हो समय म्हजो
पावय तडी बेत तुंजो
येतलों वेळ आयलो तसो
खचित तुजे माळये.'

कडकडून पडली वीज
सगले वारे खुबले
प्रळयाचो वाजलो शंख
वीज गेली करून डंख
खिणांत जळ्ळे जिवा-पंख,
        मळब विकट हांसलें.

केन्नाकच सरलें वर्स,
चैत्र-सांज आयली
वारो जालो आकुळ पिकुळ
रुखावळी धरलें चामळ
रायघरा कांदळ ओंवळ
सुरंग पसुन फुटली.

पयसुल्यान आयली वाऱ्यार
        अलगुजाची तान
फुलां-पुनवे-उत्सवाक
गेल्लो लोक मधुवनाक
नगराची चंद्रिमाक
मानली थंडसाण.

सन्याशी आसलो चलत
एकटुक्यान वाट
माथ्यार कोगुळ रुखांवेले
घालताले उल्यांर उले

जाल्ली काय हेच वेळे
        ताचीय पुनव-रात ?

नगर काडून तडक गेलो
भायल्या तटा-धडे
पावतां चरा-पेल्या रांये
गर्द आंब्यारुखा-साये
जायत कोण ? सांगुंक नये
        दिसली पांयांकडे.

सगल्या आंगार फोड असो
    दारुण जाल्लो रोग
वशा-भंयान गांवच्या लोकान
उंवाळिल्ली चरा-पेल्यान
वळणेल्ली जोरा-जाळान
भोगित कर्मभोग.



सन्याशान दिली मांडी
करूण लागुन आड
तोंडांत तिच्या तीर्थ घालें
मंद मधुर मंत्र म्हळे
चंदनाचे शितळ तिळे
लायले फोडान फोड.

झेलता पुनव कोकिळ कंठ
आनिक कळे गळटे
'कोणा दयेन थामलो उजो ?'
प्रस्ना तिच्या जापसाल ताचो
'आयचे राती समय म्हजो,
आयलां वासवदत्ते.'

---

# घोवाचो लाभ

एकदां स्वामी तुळशिदास
  भोंवतां गंगे-कांठार
सांजचे वेळे गायत गायत
  पावलो मसण-वठ्यार

मेल्ल्या घोवा-पायांसरीं
  बसुन एक सती
जाल्लि सज्ज चितेर चडुंक
  उतावीळ अती

नांवान तिच्या आप्त इश्ट
  करताले जयनाद्
गायताले भटपुरयत
  तिचेच धन्यवाद

साधुक पळोवन सतिन केलें
  भक्तिभावान नमन



म्हळें, 'प्रभू, मेळचें म्हाका
सम्मतिचें वचन.'

साधुन म्हळें, 'कित्याक अशी
घेशी अग्निदीक्षा ?'

सतिन म्हळें, 'पति-शेजरा
सर्ग जोडचि आशा'

'जग त्यजून सर्ग कित्या ?'
हांसुन साधुन म्हळें
'सर्ग केला ताणेंच न्हय गे
आये! जगय केलें?'

उतर फुटना जावन सामकि
चकित जाली नारी
वदलि नमुन 'हांगाच सर्ग
पती मेळत जरी.'

तुळशिदासान हांसुन म्हळें,
'वच निचिंत घरा
म्हयन्याभितर घोव गे तुजो
येतलो तुज्या दारा'

नारी परति गेली घरा
धरून स्रद्धे-धागो
गंगेकांठार बसलो साधू
सगलि रात जागो

बसलि नारी एकटुकीच
जावन अचळ चित्र
शुद्धचित रावलि जपत
साधुन दिल्लो मंत्र

म्हयनो सोंपत्यार पुसति आप्त
'आयलो व्हय गे घोव ?'
नारिन हांसुन म्हळें, 'आयलो'
जीव जालो ल्होव'

म्हळें ताणीं 'तर मागीर
बसला खंयच्या मुल्यांत ?'
म्हळें तिणें, रावला हांसत
सतत म्हज्याच जिवांत.

- - -

# बामण

पडलो दीस, काळोख वनीं सरस्वती-तिरा
भोंवन रान आयले गडे रुशीश्वरा-घरा



होमा काडयो बडयो तांणी माथ्यावेल्यान हाडल्यो
सगल्यो होमा गायो तपोवना गोठ्यार पायल्यो
नितळ पुस्ट तुस्ट कान्त, थंड तांचे दोळे
आस्रमांत शांतताय, निवळ जशें तळें
न्हावन धुवन, संध्या करुन घरच्या फुडल्या आंगणीं
गुरुभोंवतीं होमासरीं बसले आपल्या आसनीं
अशीच आसलि अंत्राळांत ध्यानमग्न शांति
गिरावळींर आसलि बटूं नुरेवेली कान्ती
"ब्रह्मविद्या सांगतां, दिया सगल्या आंगान ध्यान,"
गौतमान म्हणटां जाले सादुर सगले जाण:

मेरेकडेन तेन्ना एक भुरगो येवन रावलो
पोशांत घेवन रसरशीत फुल्ल जायां झेलो

गुरुक नमुन ओंपलीं ताणें दळां, फुलां, फळां
भक्तिभाव दाटुन ताच्या दोळयांत जमलीं जळां



तोंडुन ताच्या फुटलीं ग़ोड म्होंवाळ नाजुक उतरां
"म्हाकाय शिकय रुशीश्वरा चार तुजीं सुत्रां
ब्रह्मदीक्षा घेवंक मोटे आशेन आयलां हांव
कुशक्षेत्र गांव म्हजो, सत्यकाम नांव."
कुशल पुसून गुरून म्हळें, "खंयची तुजी जात ?
बामणा बगर ब्रह्मशास्त्र हेरां शिकयनात."
"आवयक विचारून म्हजी जात फाल्यां सांगतां
नकळं हांव, निरोप दिया, आतां घरा वतां."
रुशिक नमुन सत्यकाम काळखांतल्यान दाट
लागलो चलूं सरस्वती -देगेन आपली वाट

पावलो गांवा तेन्ना जाल्लें सगलेकडेन किण्ण
खोंपि दारांत आसलि मात वात एक क्षीण
पुता वाट पळेत आसलि माय जबाली
म्हऱ्यांत तिणें येवन ताची खबर विचारली
सत्यकामान आवयक म्हळें, "कितें म्हजें कूळ?
बापुय कोण, जात कोण, कोण म्हजें मूळ ?
गुरून म्हळां म्हाका म्हजी सांगुंक जाय जात,
बामणा बगर ब्रह्मशास्त्र हेरां शिकयनात.
उलोवंक लागलि आवय बावडि तकलि घालुन खाला
"पोटाक जाणें घालां तोच धनी म्हजो जाला



घोवा बगर पोटीं म्हज्या जल्म जाला तुजो,
खंयची जात जायत तुजी म्हज्यान सांगूं नजो."
जालें फालें झाडा-पेडार लख्ख किरण फांकलें
पानापानार उजवाडाचें कंवळें चंवर लागलें
न्हावन धुवन सवळिं न्हेसुन सोडुन जटा ओलश्यो
बावल्यो कशे वृद्ध, जश्यो उजवाडांत हारश्यो

बसले वृद्ध वडामुळा गौतमाचे भोंवतीं
गायताली न्हंय मुखार सहज शांत व्हांवती
घुमतालीं भोंवर कुळां, तरेकतरा सवणीं
सगले सूर एक जाले जमली ताळा-जुळणी
एका ताळ्यान लागले म्हणूं भुरगे सगळे जाण
वझरो कशें लागलें व्हांवंक शांत सामगान

अश्या वेळार पावलो जाग्यार सरळ सत्यकाम
केलो ताणें मनापसून रुशिपदीं प्रणाम
मोन्यानींच रावलो उबो, लावन दोळे मेखळे
आशीर्वाद दिवन गुरुन, परतुनय विचारलें
"जात कितें ? कळ्ळें तुका ?" जेन्ना गुरून म्हळें,
सत्यकामान मान हालोवन सत्य तेंच सांगलें



"आवयन म्हळें काल म्हाका तकलि घालुन खाला
पोटाक जाणें घालां तोच धनी म्हजो जाला
घोवाबगर पोटीं म्हज्या जल्म जाला तुजो,
खंयची जात जायत तुजी म्हज्यान सांगूं नजो."

खबर कळळि तशे लागले सगले भुरगे हांसूं
पडटकच फुलार जशे मूस लागति बसूं
फुतफुंतून, दोळे घालुन मारति ताका अणखे
स्वाभिमानार बसले ताच्या एकार एक तोणके
गुरु गौतम रुशी आपलें सोडून आसन उठलो
मायेन म्हऱ्यांत काडुन ताका उराउरीं भेटलो



म्हळें ताणें, "जगीं कोणाक नासूं तुजी नात
सत्यकुळीं जल्म तुजो, बामण तुजी जात."

- - -

# मस्तक विक्रय

कोशल नृपतिक ना तुळणा
संवसारभर यशगाथा
दुबळ्यांक ताचो धिर आधार
दिनांक तो पिता-माता

काशिरायान हें आयकलें तशें
लागलो जळुं अभिमानान
वदलो तो, 'म्हजि प्रजा पसुन
ताचोच करता खंय मान !

म्हजेकय ल्हान स्थानान आसुन
ताचेंच दान खंय बेस
धर्म दया माया सगलें व्यर्थ
म्हजोच ताका भोव द्वेश'



सांगलें, 'सेनापती, उखल शस्त्र
सगलें सैन्य कर पुंजा
पुण्यायेन जावंक व्हडलो म्हजेकय
सुमाराभायर धरि धजा'

चल्लो काशीराय झुजा-साजान
हरलो कोशलनृप रणीं
त्यजुन राज्य लासुन लजेन
पळुन गेलो पयस वनीं

काशिरायान म्हळें हांसुन खिणिं त्या
आपल्या सभासदांमाझार
'धन राखचेली तांक ना जाका
कसो तो जातलो दातार ?'

वदलो लोक 'गा ग्रासलो चंद्राक
नश्टचा दारुण राहुन
सोडुन धर्म लक्षिम घेता
समर्थांपांयार घालुन

ना केलो हाणें आमचो बापुय
करांदाय अशि दिको धाय
सगलें जग जाका इश्ट तागेल्या
शत्रुचे धिग् हाय्'

आयकलें तशें हें खुबलो काशिराय
'नगरिं कित्या असो शोक ?

हांव आसताना कित्याक तरि हो
   रड मर म्हजो लोक ?'

बाहुबळान हांवे जिखुन पसुनय
   जोडि तो म्हजेर जय
शास्त्र सांगता दायजिदुस्माना -
   नाखुटय दवरचें न्हय

आगा प्रधाना, लायात घालपा
   दवणें तिठ्यार कटचार
कोशलनृपतिक धरुन दितल्या
   दितलो म्होरो हांव हजार'

सगल्यो वाटो जूत लागले भोंवपा
   करित घोष दिसरात
धांपले दोळे कोणें, चाबलि जीब कोणें
   धरि कानांर कोण हात

राज्यहिण राय भोंवत आसताना
   मळिण भेसान रानीं
कोणा वाटेच्यान निमगिलें ताका गा
   दोळ्यांत हाडुन पाणी

'कोशल गांवची वाट खंय ती
   सांग गा वस्तीकारा'
रायान म्हळें 'हाय ! अभागी देशीं त्या
   वशि कोणाल्या घरा ?'

म्हळें ताणे 'हांव जातिन वाणि गा
  बुडलें म्हगेलें तारूं
कसो दारोन्दार भीक मागूं हांव ?
  जीव कांठ्या कसो धरूं ?

करुणासागर कोशलपति खंय
  आयकुन गा ताचें नांव
नाथ अनाथा दिनां गति तो
  तागेल्या दारिं वतां हांव'

आयकुन नृपसुत हांसलो खिणभर
  आटये दोळिंचीं दुखां
थांबलो थोडो वेळ सोडुन हुस्कार
  वदलो उतरां-थिकां

'चल मावा, तुजि भागत वान्सा,
  असो दाखयतां मार्ग
सफळ जातलो सगलो तुगेलो
  चित्तींचो कार्यभाग'

बसला काशिराय सभेंत आसताना
  रावलो जटाकार मुखार
'कित्याक सांग गा आयला हांगा तूं ?'
  विचारि राय सभेमाझार

'कोशलराय हांव वनांत रावपी'
  सवकासायेन म्हळें ताणें
'भांगर दी ह्या म्हगेल्या वांगड्या

तुगेल्या पणा परमाणें'

सगली सभा जाली चित्र कशिशी
किरंव जालें जळमळ
दारच्या द्‌वारपाळां दोळ्यां झरिनीं
व्हांवलीं दुकां घळघळ

रावन खिणभर मौन काशिराय
म्हळें मागिर ताणें हांसुन
'म्हजेर जय तूं जोडुंक सोदता
असले माण्णेन मरुन !

सफळ पुण तुजो हेत जायना
जिखतलों आज रणीं
राज्य दिलें गा परतें तुगेलें
काळिज बी हे खिणीं.'



बोंदरो भेस जरि आसलो तागेलो
बसोवन रायासनीं
मुकुट घालो ताच्या मळिण माथ्याचेर
धन्य म्हळें पुरजनीं.

ह्या पुस्तकांत रवीन्द्रनाथांच्यो आठ कविता आयल्यात. आठूय तांगेल्या 'कथा' नांवाच्या झेल्यांतल्यो. इंग्रजींत असल्या कवितांक 'नॅरॅटिव्ह पोयेम्स' अशें म्हणटात. असल्या कवितांनी एक एक कथा येता, ही कथा मागीर चित्राचें रूप घेता आनीं हें चित्र निमाणे नृत्य-नाट्याच्या रुपान आमचे मुखार उबें रावता. रवीन्द्रनाथ उपनिषदांत आपणालें दायज सोदूंक गेल्ले तशे देशाचे संस्कृतायेच्या इतिहासांतूय तें सोदपाक लागिल्ले. तांकां बौद्धांच्या, वैष्णवांच्या, शिखांच्या, मराठ्यांच्या दायजांत. काळीज हालोवपी कांय कथा मेळ्ळ्यो. संस्कार घेवपाचे पिराये. वयल्या भुरग्यां खातीर तांणी त्यो कवितेच्या रुपान तांचे मुखार दवरल्यो. असल्यो बाबीस कविता 'कथा' ह्या तांगेल्या झेल्यांत आयल्यात. तातल्या फकत आठूच कवितांक बाकीबाब कोंकणी रूप दिवंक पावले. ह्या कोंकणी अणकारा संबंदान मुजरत सांगपा सारकें म्हळ्यार रवीन्द्रनाथांनी ज्या छंदांत त्यो बरयल्ल्यो त्याच छंदांत बांकीबाबांनी त्यो कोंकणींत हाडल्यात.